• भरत नायक •



# भैं भैं टुणटुणें

# भेरें भेरें टुणटुणे

भरत नायक



# भेरें भेरें दुणदुणे



प्रकाशन क्रमांक : 159

1996

**प्रकाशक :**
प्रभाकर द. भिडे
राजहंस वितरण, 1-मीनाक्षी बिल्डिंग,
डॉ. व्होल्फांगु द सिल्व्ह मार्ग,
पणजी - 403 001

**छपाई :**
राजहंस ऑफसॅट, पणजी.

**मुखपृष्ठ आनी सजावट :**
दीपक पेडणेकार

**मोल :**
1996 - 18/- रुपया
1997 - 18/- रुपया
1998 - 20/- रुपया

ISBN 81-85854-58-0

# भेरें-भेरें टुणटुणें

(मनू भाटकारालें घर. दामू हातांत अेक पत्तो बरयल्लो कागदाचो कुडको घेवन येता)

**दामू** : हेंच आसतलें तें मनू भाटकारालें घर. भायर दारार नांव बरयलां खरें. पूण आमकां खंय वाचूंक कळटा ! वाचूंक कळ्ळेलें जाल्यार हांव लोकागेर घशटी काडूंक कित्याक वयतलों आसलों ? आपिसांत सुसेगात कदेलार बसोन अेक तारकेर कागदांच्यो नोटी घेतलों आसलों. फाटल्या जल्मांत हांयें देवाकडेन कसलीं तरी मस्तेपणां केल्लीं आसतलीं, देखून देवान म्हाका ह्या जल्मांत भेरो केलो. आरे देवा, मात्शी नदर उणी दिवची आसली, पांय मात्सो वांकडो केल्यार जातालो, पूण दोनूय कान फोडूंक जायना आसले रे तुवें. फोडले ते फोडले, बरिशी सिरवीस तरी दी आनी थंयच खिळो मार मरे म्हाज्या कुल्यांक. तेंय करीना ! अेक दीस पासून म्हाका कोण कामाक सारको दवरिना. -आतां पळोवया, हांगा तरी दाळ शिजता जाल्यार. नाजाल्यार गळ्याक फातर बांदतां आनी उडी मारतां दरयांत.

(शंकर 'पपरवालो' येता. तो आपल्याकडेन उलयता म्हूण दामूक खबरूच ना. आपुणूच बडबडटा.)

**शंकर** : दरयांत उडी मारूंक गळ्याक फातर कित्याक बांदून जायो रे ?

**दामू** : कोणूच फुड्यान घेयना म्हणचें कितें ? हांव सामकोच कुसलां ?

**शंकर** : दामू, कितें बडबडटा रे ?

**दामू** : आपूण बरे जेयतात हे भाटकार पांयार पांय उडोवन.

**शंकर** : ये दामू, हांगा कितें करता रे तूं ?

**दामू** : आमी गुंडे खावचे दिसता ?

शंकर : (हात लायता) आरे दामू, तूं हांगा कितें करता रे ?

दामू : आरे.... तूं शंकर न्हू ? खूप तेंपान दिसलो, तूं हांगा कसो ? अ
तुजो गांव दिसता. तुजेंच काम बरें आयजकाल. कागद दिलें पयश
त्याभायर पणजे कामाक वयता मरे तूं ?

शंकर : दरयांत कित्याक उडी मारता रे ?

दामू : आं..... ?

शंकर : तूं आनी भेरो दिसता ! म्हाका यादूच ना तुजी. (कानाकडे)
कित्याक उडी मारता काय म्हण्टां ?

दामू : आनी खंय मारू तर ? गांवागांवांनी नळ म्हणून येयले आनी बांयो
पडींग पडल्यो. सुके बांयंत हांव मरतां ?

शंकर : पूण मरता कित्याक रे तूं ?

दामू : आं.... ?

शंकर : आरे, मरता कित्याक काय म्हण्टां !

दामू : मरता कित्याक काय म्हण्टा ! आरे शंकर, जितो रावन कितें
हांव? उदक पिवन-पिवन कितले दीस म्हुणोन जीव उरतलो ?
मरचे परस दरयांत मेल्लो बरो.

शंकर : दामू, हांगा कित्याक येयला रे तूं ? मनू भाटकारागेर कामाक व

दामू : आं.... ?

शंकर : हांगा सिरविसेक आसता काय म्हण्टां.

दामू : सिरविसेक ? हय. सिरविसेकूच येयलां.

शंकर : आं...! म्हणचें तू सिरवीस सोदूंक येयला तर ?

दामू : कितें म्हणटा?

शंकर : इतले सकाळी कित्याक येयला काय म्हण्टां.

दामू : कितें करतलों. आरे शंकर, उपाशी पोटार न्हीद पडटा? रा

येवपी आसलों. पूण मनूभाटकारागेर वावराडो जायो म्हुणोन वसंतशेटीन म्हाका सकाळी सांगलें. आठ आणे हातीक लायले बाबड्यान.

शंकर : कितलीं वर्सां जालीं रे तूं सिरवीस सोदता !

दामू : आं.... ?

शंकर : आजून तुका सिरवीस मेळना काय म्हण्टां.

दामू : ना मरे बाबा. कोणूच फुड्यान घेयना. हांयें 'आं...?' करतांच चलोंक लाग म्हण्टात. शंकर, आतां तूंच सांग. कान फुटले म्हुणोन म्हाजे हातूय मोडले मरे ? मनीस न्हू रे हांव ? पोट ना रे म्हाकां ?

शंकर : दामू, तूं सांगता तें सगळें खरें. पूण तुजेकडे खराब जातलो कोण ? आतां हांव दोनूच उतरां उलयलों पूण म्हाज्या पोटांत दुखलें. एक काम तुका शंबर फावटीं सांगचें पडटलें. दवलो हाड सांगल्यार तूं आदोळी हाडटलो. लाकडां फोड सांगल्यार तूं फातर फोडटलो. नुसतें हाड म्हणल्यार बटाटे हाडटलो.

दामू : कितें उलयता रे तूं ? मात्शें मोठ्यान उलय रे शंकर. कर्मा भोग म्हाजो. तूं म्हाका एक सिरवीस पळयना मरे? कसलेंय काम करपी रे हांवं.

शंकर : मेळत जाल्यार हांगाच तुका. हेंचो वावराडो घरा म्हणोन गेलो आनी परतो येयलोच ना. तेंकां कामांक मनीस जावो खंय.

दामू : कितें म्हण्टा?

शंकर : कांय न्ही. मनू भाटकाराक मनीस जावो कामांक.

दामू : जावो खंय. अशें म्हाका वसंतशेट सांगी.

शंकर : वसंतशेटीन कित्याक सांगूंक जायें. हें पळय पेपरार येयलां. "पायजे, अनुभव-

दामू : तें म्हाकां कित्याक दाखयता रे ? कोणाक वावराडो बी जावो जाल्यार सांग.

शंकर : हाय कर्मा. तेंच सांगतां मरे हांव भेऱ्या.

दामू : आं....?

शंकर : तेंच येयलां पेपरार.

दामू : वावराडो जावो म्हुणोन ?

शंकर : हय.

दामू : कोणाक ?

शंकर : हांगाच.

दामू : हांगा ?

शंकर : हय.

दामू : शंकर, तूं सांगता मरे मात्शें भाटकाराक ?

शंकर : हांवं सागना रे बाबा ? म्हाका नाका तुज्यो भानगडी. तूं पयलो भेरो. एकाचीं दोन केलीं जाल्यार भाटकार म्हाजे तीन करतलो.

दामू : कितें म्हण्टा रे ? सांगता मरे मात्शें ?

शंकर : म्हाकां म्हाजीं कामां आसात. हांव चल्लों.

दामू : राव रे मात्सो. कितें म्हण्टा रे ?

शंकर : म्हाजें आयकुचोना रे तो. हो पेपर घे भाटकारालो. तूंच दी हातींत आनी सांग कितें तें (पेपर घेता)

दामू : हें म्हाका कित्याक रे ?

शंकर : भाटकाराच्या हातींत दी. मागीर तो समजतोलो, तू कामांक येयला म्हुणोन.

दामू : तूं करिना मरे म्हाजें काम ? जांवं रे आतां. उपकार जायत. पांया पडटां तुज्या. उपाशीं आसा मरे हांव. त्या शांत्याक बरी दिली मरे तुयें सिरवीस. हांयें कितें केलां रे तुजें ?

शंकर : तो शांतो एकाच कानान भेरो. तू दोनूय कानानी भेरो. तेका थोडी अक्कल तरी आसा. तुका तीय ना. आयकोंक येयना जाल्यार कितें सांगलां तें

समजोन घेवपाक अक्कल लागता.

**दामू** : कितें सांगता रे ? उपकार कर रे म्हाजेर.

**शंकर** : शांत्यान केलां तशें करता मरे तूं ?

**दामू** : आं....?

**शंकर** : शांत्यान केलां तशें करता मरे ?

**दामू** : करूंक कितें जालां ? तो पोट भरिना ? तशें हांव भरतलों.

**शंकर** : मागीर म्हाका गाळी मारशीत आं !

**दामू** : आं....?

**शंकर** : मागीर म्हाज्या नांवान गुंडो फोडशी म्हण्टां.

**दामू** : ना रे शंकर. सांग तूं.

**शंकर** : आयक तर- कामार दवरचे पयलीं तुका तो थोडे प्रस्न इचारतलो.

**दामू** : आं....?

**शंकर** : पाड पडलें ! हो म्हाजो जीव काबार करतलो. आरे दामू, भेऱ्या, भाटकार तुका कांय प्रस्न इचारतलो.

**दामू** : प्रस्न इचारतलो ? आनी म्हाका आयकोंक येयलें ना जाल्यार ?

**शंकर** : तुका येवचेंच ना आयकोंक. हें पळय, प्रस्न कितेंय इचारू पयली 'हय' म्हण.

**दामू** : आं... ?

**शंकर** : प्रस्न कितेंय आसू, पयली 'हय' म्हण.

**दामू** : हय.

**शंकर** : आतां न्ही रे. भाटकारान इचारतकीर.

**दामू** : आं....?

**शंकर** : म्हाका न्ही. भाटकाराक.

दामू : म्हाका न्हू भाटकारा.

शंकर : पाड पडों हेजें ! मर तूं थंयच- (वता)

दामू : (ताका ओडून हाडटा) आरे शंकर, वाजेनाका रे म्हाजेर.

शंकर : भूक लागली पोटाक. आतांच सुकी भाजी खाल्लेली, तुजेकडें उलोवन तेजी पातळ भाजी जाली. आनीक उलयलों जाल्यार (दोन बोटां दाखोवन), हेका वयचें पडटलें.

दामू : आं....?

शंकर : काय न्ही. आयक (कानाकडे) भाटकारान तुका पयलीं कितेंय इचारीत 'हय' म्हणचें.

दामू : पयली 'हय' म्हणप ?

शंकर : हय. पयल्या प्रस्नाची जाप 'हय'. दुसऱ्या प्रस्नाची जाप 'ना'

दामू : कितें....?

शंकर : दुसऱ्या प्रस्नाची जाप 'ना'

दामू : दुसऱ्या प्रस्नाक जाप ना ? म्हण्टकीर वगी रावपाचें ?

शंकर : तशें न्ही रे (कानाकडे) दुसरो प्रस्न इचाल्लो म्हण्टकीर 'ना' म्हणप.

दामू : आं....! समजलें. दुसऱ्या प्रस्नाचें उत्तर 'ना'

शंकर : आनी तिसऱ्या प्रस्नाची जाप 'केन्नाय'.

दामू : कितें....?

शंकर : 'केन्नाय'

दामू : केन्नाय म्हणचें ?

शंकर : आरे तिसरे फावट कितेंय इचाल्ल्यार 'केन्नाय' म्हणचें.

दामू : आं. तिसरे फावट 'केन्नाय' म्हणप.

शंकर : हय. जालें. इतलेंच. मागीर तो तुका भितर वच म्हणटोलो. एकदा भितर गेलो म्हण्टकीर राज्य तुजें- आवयस! झोळयो पासून वयर सल्ल्यो.

फायदो ना पयशाचो.

दामू : मागीर कितें?

शंकर : जालें. इतलेंच.

दामू : आं...?

शंकर : जालें.

दामू : आं...! मागीर 'जाले' म्हणप !

शंकर : न्ही रे सायबा. जालें म्हणचें जालें. तीनूच प्रस्न.

दामू : आं....! तीनूच प्रस्न इचारतलो मरे ? कांयच न्हू तर.

शंकर : न्ही रे. परतून परतून तेंच म्हणप.

दामू : कितें म्हण्टा ?

शंकर : आनीकूय इचारतलो ?

दामू : आनीकूय इचारतलो ?तेन्ना कितें म्हणप ?

शंकर : तेंच म्हणप.

दामू : आं....?

शंकर : तशेंच म्हणप.

दामू : तशेंच म्हणप?

शंकर : हय. परतून 'हय' म्हणप.

दामू : आं...?

शंकर : परतून 'हय' म्हणप. मागीर 'ना' म्हणप.

दामू : आं....?

शंकर : मागीर 'ना' मागीर केन्नाय'

दामू : आं...?

शंकर : 'हय' 'ना' 'केन्नाय'. हय- ना- केन्नाय.

दामू : हय- ना- केन्नाय.

शंकर : समजलें मरे ?

दामू : हय वय. सारकें समजलें. हय- ना- केन्नाय.

शंकर : आतां मात्शी येसाय घेवया.

दामू : कितें म्हणटा ?

शंकर : येसाय घेवया.

दामू : जांव रे आतां. इतलें पोटांत दुखलें तुज्या ? घरा वचोन घे कसाय. म्हाजेकडें पयशे खंय आसात तुका कसाय घालपाक ?

शंकर : आरे कसाय न्ही. येसाय-येसाय.

दामू : आं...! येसाय मारया म्हणटा रे?

शंकर : हांव भाटकार. (गोल तायट करता)

दामू : आं... ?

शंकर : भाटकार येता.

दामू : चल-चल. तूं चल तर बेगीन.

शंकर : तो न्ही रे. हांव भाटकार येतां.

दामू : आं...?

शंकर : हांव भाटकार. येसाय - येसाय.

दामू : आं, तूं भाटकार. येसाय.

शंकर : (भाटकारा) भशेन येता) सिरविसेक आयला तूं ?

दामू : हय.

शंकर : मर्दीच सोडून वचचोना मरे ?

दामू : ना.

शंकर : केन्नाच्यान सुरू करता ?

दामू : केन्नाय.

शंकर : रांदपाचें काम जाणा मरे ?

दामू : हय.

शंकर : खार-अंयणी करचोना मरे ?

दामू : ना.

शंकर : गोरवां चरपाक व्हरतालो ?

दामू : केन्नाय.

शंकर : भाटांतलें काम जाणा ?

दामू : हय.

शंकर : एक सांगल्यार दोन करचोना मरे ?

दामू : ना.

शंकर : बाजार करूंक जाणा ?

दामू : केन्नाय.

शंकर : वा! सारकें जालें मरे !

दामू : हय.

शंकर : चुकोंव नाकां आं.

दामू : ना.

शंकर : मागीर काम सुरू तुजें.

दामू : केन्नाय.

शंकर : पेपर दिता मरे तूं ?

दामू : हय.

शंकर : म्हाजें नांवं सांगशी.

दामू : ना.

शंकर : हांव वयतां आं (वता)

दामू : केन्नाय- येसाय जाली ! आतां नाटकाक सुरवात. देवा तूंच म्हाका पाव.... भाटकार आजून उठोंकूच ना काय कितें ? उलो माल्ल्यार बरो ? नाका. तो आनी रागान चलोंक लाग म्हणीत. येता तेन्ना येवं. हांगाच बसतां. (कदेलीचेर बसता. भितरल्यान आई येता)

आई : कोणाक सोदतात तुमी ? हांकां ?

दामू : हय.

आई : बसात आं. चड वेळ जांवंना मूं तुमकां ?

दामू : ना.

आई : आयज बेगीनूच उठले ते. शेटीगेर वचूंक जाय म्हणून. सरपळी करूंक दिल्ली ताजेकडेन. आयज आमच्या बेबीचो वाढदीस न्हय !

दामू : केन्नाय.

आई : तुमकां कोणे सांगलें ? शेटिनूच धाडल्या काय कितें तुमकां ?

दामू : हय.

आई : तोच कित्याक आयलोना ?

दामू : ना.

आई : म्हजें आनीक थोडें भांगर करपाचें आशिल्लें. मात्सो ताकाच आफयला म्हणून सांग आं.

दामू : केन्नाय.

आई : सरपळी दिल्या तुजेकडे ताणे?

दामू : हय.

आई : पळोवया.

दामू : ना.

आई : बरें बाबा. तांचेकडेन दी. धाडून दितां तांकां (भितर वता)

दामू : केन्नाय.... लागता काय सारकें ! कितेंय वायट घडना जाल्यार पुरो. (दामू वळून भितर पळयता. भायल्यान बेबी येता)

बेबी : ये.... ! शू.... (हात लायता)

दामू : हय.

बेबी : कोणांक सोदता ?

दामू : ना.

बेबी : ना म्हणचें ?

दामू : केन्नाय.

बेबी : केन्नाय- ? तूं पिसो काय कितें ?

दामू : हय.

बेबी : आई.... बाबा....

दामू : ना.

बेबी : कित्याक आयला तूं हांगा ?

दामू : केन्नाय.

बेबी : कोणे आपयला ?

दामू : हय.

बेबी : चलूंक लाग हांगासलो.

दामू : ना. (आई येता)

आई : आगो बेबी, घरांत आयिल्ल्यांक तशें धांवडायतात ? आयज तुजो वाढदीस मगो ?

बेबी : तो पिसो आई.

आई : चूप! (धपकायता) तशें म्हण्टात लोकांक ? (बेबी रडटा) वगी-वगी रडू नाकां. आयज आमच्या बायचो वाढदीस न्हय. केक कापतलें मगो तूं ? (घेवन भितर वता)

दामू : केन्नाय- आवयस ! घाम सुटलो सामको. कितें जालां कांयंच समजना. दोन संवंगा आवयेर जालीं. आतां तिसरो कोण येता पळोवया. (मनू भाटकार येता)

मनू : आं...! आयलो तूं ?

दामू : हय.

मनू : तुका वसंतशेटीन धाडला मरे ?

दामू : ना.

मनू : ना ? ती कितें सांगी तर, शेटीन सरपळी धाडून दिल्या म्हणून- तिका वगीच दिसलां आसतलें.

दामू : केन्नाय. (पेपर दिता)

मनू : आं.... ! तूं कामाक आयला तर.

दामू : हय.

मनू : वावराडो तर तूं.

दामू : ना.

मनू : (हांसता) वावराडो म्हळ्यार इतलें वायट धरूंक जाय ! वावराड्याक कोणूय वावराडो म्हण्टलोच न्हय ?

दामू : केन्नाय.

मनू : सोड. मिरसांग वाटूंक जाणा मरे तूं ?

दामू : हय.

मनू : म्हजी एक अट आसा. सांगिनासतना सोडून वचप ना.

दामू : ना.

मनू : बरें तर. तुजें काम फकत मिरसांग वाटप, उदक हाडप, बाजार करप, भाटांतलें काम करप आनी गोरवांक सोडप.

दामू : केन्नाय.

मनू : काम मात सारकें जावंक जाय आं.

दामू : हय.

मनू : वगीच कामार वेळ काडूंक फावना.

दामू : ना.

मनू : वाजेनासताना काम करचें पडटलें.

दामू : केन्नाय.

मनू : आयज आमच्या बेबीचो बड्डे.

दामू : हय.

मनू : हांवं समजलों शेटूच आयला म्हूण.

दामू : ना.

मनू : आयज बड्डेचें सगळें काम तुवेंच करचें पडटलें.

दामू : केन्नाय.

मनू : आमगेर एक आशिल्लो 'विश्राम' म्हणून.

दामू : हय.

मनू : सांगिनासतनाच उठलो आनी गेलो.

दामू : ना.

मनू : ना ? तुकां कशें कळ्ळें ? तूं वळखता ताका ?

दामू : केन्नाय.

मनू : सिरवीस सोडून वचूंक ना तर तो ?

दामू : हय.

मनू : परतून येवपाचें मनांत आसा तर ताच्या ?

दामू : ना.

मनू : म्हणटकूच तूं राव्रता मरे आमगेर ?

दामू : केन्नाय.

मनू : विश्रामानूच तुका धाडला कय कितें ?

दामू : हय.

मनू : विश्राम तसो मनीस बरो. फटिंगपणा करपी न्हय.

दामू : ना.

मनू : आमगेली ही तर सदांच ताजो उगडास काडटा.

दामू : केन्नाय.

मनू : घरांतलें सगळें काम तोच करतालो.

दामू : हय.

मनू : आमकां कसलीच धास्ती नाशिल्ली.

दामू : ना.

मनू : ताजेर घर पातयेवन आमी खंयूच वतालीं.

दामू : केन्नाय.

मनू : विश्रामानूच धाडला मरे तुका ?

दामू : हय.

मनू : ताणेच धाडला जाल्यार बरें जालें. पूण तोच आयिल्लो जाल्यार चड बरें जातलें आशिल्लें.

दामू : ना.

मनू : आगे मात्शी भायर यो. (दामूक) ती तुका समजावन सांगतली. आयज बरे बरे लोक घरांत येतले.

दामू : केन्नाय.

मनू : आगे रोकडी वच गे.

आई : (हात पुशीत येता) कितें जालां ? हाडली सरपळी जाल्यार घेवन दवरात.

म्हाका मात पसून वेळ ना. भितल्लीं कामां जावंक नाका ?

मनू : त्याचखातीर तर तुका बेगीन यो म्हळां. हें पळय तुका जाय तशेंच जालें. हो पळय विश्रामानूच मनीस धाडून दिला कामांक.

आई : कितें ? वावराडो तर हो ?

दामू : हय.

आई : म्हाका वदोळ शेटीन धाडला म्हणून सांगलां मरे तुवें.

दामू : ना.

आई : ना कितें ? म्हजे कान फुटले आतां ?

दामू : केन्नाय.

आई : कितें म्हळें ? कान फुटल्या म्हजे ?

दामू : हय.

आई : तुजेच फुटूं ते कान.

दामू : ना.

आई : म्हजेकडे सुबेज उलयता तू. म्हाका फटींग करून वेल्यान भेड्डेंय केलें. कशीं उतरां दिता तो पळयात ताका. असलो मनीस आमकां नाका.

मनू : आगे वगीच शीर फुलोव नाका पळोवया. तुवें सारकें आयकुंकना आसतलें. सकाळपासून तुजे तकलेंत सरपळीच घोळटा. भास जाला आसतलो तुका. बायलांची जात पयली ती. भांगर म्हणूक आनी-

आई : हय, आमी बायलां भांगराक पिशी जातात. थोडें भांगर केलां तुमी म्हाका (रडटा)

मनू : आगे- तशें म्हणूंक ना गे हांवें. वगीच लोकां हुजीर अशी रडूं नाका पळोवया. हें पळय, आमका तर मनीस जाय आनी आयज तर ताजी चडूच गरज. मनीस अशे मेळटात खंय पयली ! आमची अडचण पळोवन धाडला बाबड्या विश्रामान ताका. थोडे आसतात तशे गरम

तकलचे. आपणे तांचेकडेन सांबाळून वागलें म्हणटकूच जालें.

**आई** : असलो सुबेज आमकां नाका.

**मनू** : आगे विश्रामान धाडला मिगे ताका. आयचो दीस पळोवया. नाका जाल्यार फाल्यां धांवडावया. बङ्डेचें काम जातलें मिगे तुजेकडेन जाल्यार सांग, आतांच धांवडायतां ताका.

**आई** : धाडात तर भितर- आनी तुमी न्हावंक केन्ना वतले ? वरां खंय पावलीं पळयात. (भितर वता)

**मनू** : सुबेज मरे तूं !

**दामू** : हय.

**मनू** : हय म्हण्टा तोंड घेवन ? चल भितर.

**दामू** : ना.

**मनू** : बरोच मद आसा मरे तुका ?

**दामू** : केन्नाय.

**मनू** : आमगेर बरेभशेन रावतलो तूं ?

**दामू** : हय.

**मनू** : परत्याक परतें दितलो ?

**दामू** : ना.

**मनू** : चल, कामाक लाग.

**दामू** : केन्नाय. (थंयच उबो)

**मनू** : (आड्डता) चल मरे भितर.
(दामू भितर वता. बेबी येता.)

**बेबी** : बाबा, म्हजी सरपळी केन्ना हाडटलो ?'

**मनू** : येतलो बाय तो आतां घेवन. नाजाल्यार हावं वचून हाडटां आं ?

बेबी : बाबा, तो कोण आयला न्हय, तो म्हाका असो करून पळयता.

मनू : तूं कित्याक पळयता ताका?

बेबी : हांव पळयना बाबा. तोच पळयता म्हाका. तो पिसो बाबा ?

मनू : न्हय बाय. तूं ताजेकडेन उलोव नाका आं ?

बेबी : बाबा, हांव निशागेर वचूं ?

मनू : कित्याक बाय ?

बेबी : ताका सांगुकूचना हांवें बड्डेक.

मनू : बरें बाय. चल. तुज्या सगळ्या इश्टिणींक सांगून यो

(बेबी भायर वता. वसंतशेट येता)

मनू : यो वसंतशेट यो. तुजीच वाट पळेतालों. फाल्या-फाल्या करुन आयज तरी हाडल्या काय नारे सरपळी ? आतां तुज्या घराकडें येवन तुका बरोच उजरावन काडचें केल्लें. पूण दिस्त भायर सरच्या वेळार वावराडो आयलो.

वसंत : आयलो तुमचो वावराडो ?

मनू : तो न्हय. दुसरो आयला. विश्राम आनी येत सो दिसना. वाट पळोवन आयज पेपरार जायरात दिली.

वसंत : दुसरो आयला ? म्हणचें आयज सकाळींच आयला ?

मनू : हय. आतांच आयला ? चड वेळ जावंकना.

वसंत : कानान मात्सो भेरो बी ?

मनू : कानान भेरो न्हय. पूण तकलेन मात्सो उणो आसा खरो. परत्याक परतें दिवपाक आयकना.

वसंत : आयकूंक सारकें येता ?

मनू : बेसबरें आयकूंक येता ताका.

वसंत : तशें जाल्यार तो न्हय तर तो.

**मनू** : तो म्हणचें ?

**वसंत** : हांवें एकल्याक धाडिल्लो हांगा तुमचो पत्तो दिवन. दामू नांव ताचें. आमच्या वाड्यार ताका भेरो-दामू म्हणून वळखतात तुमकां खूप गरज न्हय.

**मनू** : मागीर ?

**वसंत** : पूण तो सामको भेरो. कानाकडें आड्डल्यारूंच ताका आयकूंक येता.

**मनू** : जांवं आसलो. एकदां समजावन दिल्यार सगळीं कामां तोंड धांपून करतलो आशिल्लो. भेरो परवडलो. पूण हो न्हय. सुबेज ! आतां विश्रामानूच धाडला आनी आमी सामके अडल्यात म्हणून दवरून घेतला.

**वसंत** : विश्रामानूच धाडला ? तशें जाल्यार तो न्हयच तर तो. सोडून दियात - ही तुमची सरपळी.

**मनू** : तिणे सांगल्या तशी केल्या मरे ? हांव नकळ. ती मागीर तुका दवरचिना.

**वसंत** : हयवय. तिणे सांगल्या तश्शी केल्या. पान तरी पळयात कशें उडयलां तें! नाजाल्यार भाटकान्नीकूच दाखयात.

**मनू** : आसूं. तिका आयज काम चड पडलां. वगीच चाळवतली.

**वसंत** : बेबी खंय गेलां तर ?

**मनू** : तें गेलां इश्टिणींक आपोवंक. आयज वाड्डीस न्हय ताचो ?

**वसंत** : त्याचखातीर तर रातीं जागरण मारून केल्या - भाटकान्न म्हणटाली - पाटल्यो करपाक दिता म्हणून.

**मनू** : आतां नाकां बोवाळांत. मागीर यो फाल्यां-परां. आनी अशें कर. तुगेलें कोंतूय मागीरूच मारुया.

**वसंत** : पयशे मागीर व्हरूं ? आतां थोडेतरी...

**मनू** : भिवं नाका रे. बुडचेनात तुजे पयशे. आमी पळून वचनात.

**वसंत** : बरें आसा. परवां येतां.

(वसंत वता. मनू सरपळी मेजाच्या खणांत दवरता आसतनाच)

**आई** : (भितरल्ल्यान) न्हावंक केन्ना वतले ?

**मनू** : आयलों (भितर वता)

**बेबी** : (भायल्यान येता आनी मेजार कितें तरी सोदता. गवेत उगतें करता. ताका सरपळी मेळटा ) आवयस ! कायबरी केल्या शेटीन सरपळी ! सारकें आईच्या असलेंच पान. (गळ्यांत घालता) निशा, पळय, म्हाका नवी सरपळी केल्या (म्हणीत भायर वता)

**दामू** : (हातांत झाडू घेवन येता) कितें जालां म्हुणोन कोण जाणा ! हो भितर वच म्हण्टा आनी ती 'भायर' वच म्हण्टा. ती तर म्हाका पळोवन दोळे बार्जीच्या लायटी इतले फूल करता. कित्याक म्हाजेर इतली तापल्या म्हुणोन देवूच जाणा... हातींत झाडू दिला आनी ह्या वाटेन बोट दाखोवन कितें तरी फणफणल्या. कोणांक आयकोंक येयलां ? हांये म्हाजें हय.. ना.. केन्नाय म्हणपाचें काम केलेंच. आं! आतां झाडू हातींत दिला म्हण्टकूच झाडपाकूच सांगलां आसतलें इतले कळपाइतली अक्कल आसा म्हाका. (झाडूंक लागता. आई येता आनी खणांत सरपळी योदता)

**आई** : खणांत ना सरपळी.... खणांत ना म्हळयार.

**मनू** : (भितरल्यान) तांबडे फोलींत आसतली.

**आई** : हांगा फोलूय ना आनी दबीय ना.

**मनू** : सारकी पळय.

**आई** : आनीक कशी सारकी पळोवं ?

**मनू** : खणांत नाजाल्यार वयर पळय.

**आई** : म्हजे दोळे फुटले आतां ? तुमीच येवन दाखयात खंय आसा ती.

**मनू** : (भायर येता आनी खणांत पळयता) कितें ? आत्तां गवेतांत सरपळी दवरल्या आनी हांव न्हांवक गेलां. दोन मिनटां तरी जाल्यांत ?

**आई** : तुमी एक, तशेच. सोमती म्हज्या हातांत दिवची ती ना.

मनू : आगे पूण कोण व्हरतलो खणांतली सरपळी ?

आई : घरांतल्या घरांत कोण व्हरतलो सरपळी ? हाज्याशिवाय हांगा आनीक कोण आसा ? झाडटा-झाडटा उडयल्या आसतली बोल्सांत. आतांच तपासून पळयात ताका. घेवन पळ्ळो जाल्यार दोन पोवनांचें भांगर वतलें.

मनू : नागे. वगीच ताजेर बगलांट घालू नाका. तो तशें करपी न्हय. ताका कित्याक तुजी सरपळी ? चुलींत घालूंक ?

आई : तुमकां कशें कळ्ळें तो तशें करपी न्हय म्हणून. इतले बेगीन पारखिलो तुमी ताका ?

मनू : आगे विश्रामान धाडला मिगे ताका. तो कसो चोरतलो ?

आई : विश्रामान धाडलो म्हणून ? भांगर पळोवंक आनी चोरीन दिसताच तें कोणाकूय-

मनू : हय.... दिसताच.

आई : ताणेच काडल्या ती. हांवं सांगतां तुमकां. म्हाका फटींग केल्लें तेन्नाच हांवे ताका पारखिल्लो. तुमका जाय आशिल्लो न्हय तो. घेवन दियात पयली म्हजी सरपळी... हांवें हात पसून लावंकना सरपळेक.

मनू : आगे वगीच बेजार जावं नाका. मेळटली सरपळी.

आई : खंयं मेळटली ? ताणेच काडल्या ती. पळयात कसो आयकूंक नाशिल्लेभशेन करता तो. चोरून करून साव जाला पळयात ताका.

मनू : आगे हळू उलय गे पापणी.

आई : हळू कित्याक उलोवं ? दोन पोवनां न्हय तर तीं. विचार ताका सडसडीत. झड्टी घे ताजी. चड माथ्यार बसोवंक जायना तांकां. (दामूक) ये..., वदळ पसून तूंच आशिल्लो मरे हांगा ?

दामू : हय.

आई : बेबी काय घरांत ना.

दामू : ना.

**आई** : तूंच गेल्लो मरे त्या खणांत सासपूंक ?

**दामू** : केन्नाय.

**आई** : तुवें काडल्या मरे त्या खणांतली सरपळी ?

**दामू** : हय.

**आई** : हाड. दी पयली आमची सरपळी.

**दामू** : ना.

**आई** : ना... ? ना म्हणचें कितें रे ? तुज्या बापायची ती सरपळी ?

**दामू** : केन्नाय.

**आई** : व्हडलो आयलो तूं बाजीराव.

**दामू** : हय.

**आई** : दोन पोवनांची सरपळी. वसंतशेट दीवन गेला थंयंच आसा. हय मूं ? (मनूक)

**दामू** : ना.

**आई** : तूं कोणाकडें उलयता रे ? शेटीक आपोवं हांगा ? तोंडारूच रुजवात करूया.

**दामू** : केन्नाय.

**आई** : दिता काय ना तूं म्हजी सरपळी ?

**दामू** : हय.

**आई** : दी पयली.

**दामू** : ना.

**आई** : पळोवया कसो दिना तो (बोल्साक हात घालता)

**दामू** : केन्नाय.

**मनू** : तूं मात्शी अशी राव पळोवया.

दामू : हय.

मनू : तुका विचारूंक कळना.

दामू : ना.

मनू : फुरफूर केल्ल्यार जाता ? थंडसाणेन विचारूंक जाय.

दामू : केन्नाय.

आई : तुमीच विचारात कशें तें, पूण म्हजी सरपळी घेतल्याबगर हांवं ताका सोडपाक ना. पुलिसाक पसून हाडपी.

मनू : तकली मात्शी थंड कर. हांवं ताका बरेभशेन सांगून पळयतां... हय रे बाबा, तुवें सरपळी काडल्या गवेतांतली ?

दामू : हय.

मनू : मागीर दी मरे ती.

दामू : ना.

मनू : दिना ? म्हणचें ? तुजी तर ती ?

दामू : केन्नाय.

मनू : बरो उलयलो बाबा तू.

दामू : हय.

आई : अजून चलयेच्या गळ्यांत पसून घालूंक ना. तुमगेर केन्ना गेल्लीं आमी चोरूंक ?

दामू : ना.

आई : दी पयलीं.

दामू : केन्नाय.

मनू : खंय दवल्ल्या रे ?

दामू : हय.

मनू : तूं म्हाका बरो वळखना आं ! सांगतां.

दामू : ना.

मनू : बरेभशेन सरपळीं खंय दवरल्या ती हाडून दी. नाजाल्यार दोनूय दोके मोडून मागीलदारा उडयतलों.

दामू : केन्नाय.

आई : दिता काय ना तू ?

दामू : हय.

आई : दी पयलीं.

दामू : ना.

आई : शी बाये. जीव खालो आमचो.

दामू : केन्नाय.

मनू : म्हाका दिसता तो पिसोच काय म्हणून. दिता म्हण्टा आनी दिना म्हण्टा.

आई : पिसो जाल्यार सरपळी चोरूंक जाय तें बरें कळ्ळें तर ताका. पिशेपणान काडून दिना कित्याक तर ?

मनू : हय. पिसोय म्हणून कळना आनी शाणोय म्हणून कळना. उलयता ताचेर जाल्यार तो पिसोच काय दिसता.

आई : तशेच ते, पिशेपणां पांगरून येतात आनी वस्ती घेवन पळटात. आमचो विश्राम शंबर वाट्यांनी बरो-

मनू : असल्यांक घरांत दवरप ? आयज सरपळी चोरली फाल्यां तुकाच उबारून-

आई : धांवडायात ताका. चल रे (ताका धुकलता)

मनू : आगे राव. धांवडाव नाका ताका.

आई : कित्याक ? आनीक चोरपाचें उरलां ?

मनू : आगे ताका धांवडायलो जाल्यार सरपळीय वतली ताज्या वांगडा.

आई : हय गे बाये. हें लक्षांतूच आयलेंना म्हज्या. तकली पसून विरार केली हाणे.

मनू : तूं हांगाच राव. हांवं वचून पुलिसाक घेवन येतां... पूण तुका धुकलून तो पळ्ळो जाल्यार ?

आई : हय ! हांव धुकलतां ताजेकडेन ! हांव आयकना तुमकां. हांव दांडो घेवन दारार रावपी. चलात तुमी पुलिसाक घेवन येयात.

(विश्राम येता)

मनू : विश्राम आयलो !

आई : आरे विश्राम, आयलो तूं ? यो बाबा यो. दिस्त वेळार पावलो.

विश्राम : हय भाटकान्नी- इलो. म्हणचें असां जालां भाटकान्नी... असां जालां... हॅ... हॅ..... आज वाढदीस ना आमच्या बेबीचो.... कसांच रावूंक नज जालां.

मनू : राव रे तूं आमगेरूच. ही तुकाच हुसकेताली. तुवें हाका धाडलो म्हणून आमकां दिसलें तूं येवचोचना.

आई : धाडच्या धाडून कसलो धाडलो रे तुवें विश्राम ? चोर, फटींग खंयचेकडलो पयल्याच दिसा सरपळी चोरली.

विश्राम : मी पाठयला ? हेका ? खेका ?

मनू : तुजें काम करूंक. अशें ताणेच सांगलां म्हाका.

विश्राम : मी पाठयला म्हणून सांगलय ?

मनू : विचार ताकाच.

विश्राम : आरे तूं सारको आसा मां ?

दामू : हय.

विश्राम : मी पाठयला तुका ?

दामू : ना.

विश्राम : मगे भाटकाराक फट खेका मारतय ? माजां नांवं व्हगडांवंक इलय?

दामू : केन्नाय.

विश्राम : मूठ मारून दांत पोटांत उडयतलय.

**दामू** : हय.

**विश्राम** : चोरूंक इला हंयसर ?

**दामू** : ना.

**विश्राम** : हेका मी पूरो वळाखतंय भाटकारा. चोर तो कार्तोद.

**दामू** : केन्नाय.

**विश्राम** : ह्यांच काम हेचां भाटकारा. चोरूचां. गोयांत चोरांची टोळी इल्या बघ, ह्यो लिडर तेंचो. असांच संवंगा करतत आनी लोकांचा चोरून व्हरतत. मी सांगतय भाटकारा हेणीच चोरल्या ती सोन्याची साखळी. मी बघतय कसो दियनय ना तो. (ताच्या बोल्यांत पळयता) लिपोवन दवरल्या आसतली खंयसर तरी.

**मनू** : काडल्या म्हण्टा आनी मागल्यार दिना. ताकाच लागून हांव पुलिसाक हाडूंक करी.

**विश्राम** : तुमी चिंता करूंक नाका भाटकारा. मी व्हरतय ह्येका पुलिसेंत. एक पडलां कानसुलार, मगे सांगतलो सगळां. चल रे चल. (दामूक ओडीत व्हरता. दामू हय-ना-केन्नाय म्हणीत आसता)

**आई** : देव कसो पावलो बाये हो विश्राम. नाजाल्यार आमकां आयकुचो नाशिल्लो तो. आमचो विश्रामूच बरो. ताकाच इल्लो पगार चड दिवन दवरुया.

**बेबी** : (धांवत येता) आई-आई, विश्राम ताका ओडीत खंय व्हरता गे ?

**आई** : आयलें तूं बाय ?

**बेबी** : हय आई. हांव सगळ्यांक सांगून आयलें. हांव आनी निशा गेल्लीं.

**आई** : (ताचे सरपळेक पळोवन) मात्शे हांगा येयात पळोवया. ही सरपळी खंयची ?

**मनू** : बेबी. तुका ही सरपळी खंय मेळ्ळी ?

**आई** : हीच मू ती सरपळी ?

बेबी : हांवे गवेतांतली काडली बाबा. शेटीक हावें वतना पळयलें आनी हांवं धांवत आयलें. म्हाका गवेतांत मेळ्ळी. हांवे गळ्यांत घाली. कितें जालें गे आई ? कितें जालें रे बाबा ?

(पङ्डो)